# काणुल्यो

(भुरग्यां खातीर काणयो)

प्रकाशन क्रमांक: 1

पयली आवृत्ती
2016



प्रकाशक:
अभिनव क्रिएशन्झ
Amol Kamat, C/o. Gurudas Mahale,
G/4, Ornate Estate, Bainguinim,
Old Goa 403402

मोल: रु. 100/-



# झाडांचो योग

**किरण म्हांबरे**

**एक** व्हडलें रान आशिल्लें. त्या रानांत खूब झाडां आशिल्लीं. पूण लोक वचू वचून तीं झाडां मारताले. कोण खांदे कातरताले, कोण मुळां कातरताले.

झाडांक आयलो राग. कितलो तेंप म्हूण असो अत्याचार सोंसतलीं? पूण करतलीं कितें? तांच्यांनी तर जाग्या वयलें हालूंकय जायनाशिल्लें. ताळयो लेगीत हालोवंक जायनाशिल्ल्यो. सगल्यांनी विचार कर कर केलो. कशेय तरेन ह्या मनशांक बुद्द शिकोवंकच जाय.

निमाणें सगल्यांनी थारायलें, मनशां भशेन योग करप. सगल्यांनी योग करूंक सुरवात केली.

तांणी योग सुरू केलो आनी हळू हळू तांकां ताळयो हालोवंक येवंक लागल्यो. करतां करतां तीं फांदयो हालोवंक लागलीं. आनी निमाणें तांकां मुळां लेगीत हालोवंक येवंक लागलीं.

तेदेवेळार सगल्यांनी भितरले भितर एकामेकांक सांगून एक रात थारायली. ते राती सगल्यांनी आपापलीं मुळां जमनींतल्यान काडून घेतलीं आनी फांदयो हालोवन तांणी मळबांत झोंपय मारली.

सगलीं झाडां जमीन सोडून मळबांतल्यान हुडूंक लागलीं. जमनीर एकय झाड उरलें ना. सवणीं, झाडार रावपी प्राणी झाडां बराबर मळबांत पावलीं.

दुसरे दीस उठून मनीस पळयता जाल्यार जमनीर एकय झाड ना. सगल्याक बिल्डिंगो, बंगले आनी वेगवेगळे तरेचीं घरां.

मनशांनी व्हडलें लक्ष दिलेंना. तांकां वत लागनाशिल्लें. ते घरांतल्यान वचून गाडयेंत आनी गाडयेंतल्यान घरांत वताले. ॲर कंडीशनांत बसताले. तांच्या व्हाजांनी इल्लीं इल्लीं झाडां आशिल्लीं तितलीं तांकां पुरो आशिल्लीं.

त्रास जालो जाल्यार गोरवां, सुणीं असल्या झाडां मुळांत बसपी जनावरांक जातलो आशिल्लो. मनीस सुसेगाद रावले.

हळू हळू बाजारांत भाजी ना जाली. फळां ना जालीं. जेवणाक नाल्ल ना जाले.

हेवटेन झाडांक तान लागली. तीं उदक सोदूंक गेलीं. तांकां न्हंय दिसली. तीं न्हंयंत देंवलीं आनी उदक पियेवंक लागलीं. सगली न्हंय झाडांनी भरून गेली. मनशांक व्हडीं, फेरीबोटी घालूंक मेळनात जाल्यो. नुस्तेकारांक नुस्तें

मारूंक मेळना जालें.

तेदेवेळार मनशां चिंतेंत पडलीं. एक दीस पळय जाल्यार सगलीं झाडां माथ्यार जमलीं आनी दिसाचो काळोख जालो. मनशांनी वयर पळयलें. पळय जाल्यार सगलीं झाडां मळबांत.

तातूंत माड आशिल्ले, आंब्याचीं झाडां, पणसाचीं, सगले तरेचीं झाडां आशिल्लीं. माडाक नाल्ल सुकिल्ले. केन्ना पडत सांगूंक जायनाशिल्ले. आंबे पिकूंक लागिल्ले. तांचेर चानयो भोंवतल्यो. पणस पिकत आयिल्ले.

देवा सायबा! एक नाल्ल माथ्यार पडलो जाल्यार जीव वतलो. गाडयेर पडल्यार गाडी चेपतली. ते भायर फळां कोणाक खावंक मेळटलीं कोण जाणा. मनीस भियेलो. आतां कितें करया?

निमाणें सगले मेळून झाडांक शरण गेले. आनीक अत्याचार करचे नात म्हूण सांगतकच झाडां जाग्यार येवन बसलीं. आनी मनशांनी झाडांक मानान आनी आदरान वागोवंक सुरवात केली. ☺☻

# आज्जेक पत्र

## कुमूद भिकू नायक

'**आज्जे** हांव आयज शाळेंत वचना गे. कळ्ळे मगे? हांव आयज शाळेंत कशेंच वचपाचें ना.' अशें म्हणत आनी तोंड वांकडे करीत मयुरी आज्जेक सांगपाक आयलें.

'कित्याक गो बाय तूं शाळेंत वचना? सरान दिल्लो अभ्यास करूंक ना? काय खंय वचपाचें आसा?' आज्जेन विचारलें.

'खंय वचपाचें ना गे आज्जे. सरान दिल्लो सगळो अभ्यास हांवे केला. पूण हांव शाळेंत वचपाचें ना, म्हाका वाज येता.'



'आगो तुका आतां शाळेंत वचपाक वाज येता जाल्यार मागीर कितें करतलें? तुकां म्हजे भाशेन वाचपाक आनी बरोवपाकूय येवचें ना. म्हाका कितले त्रास जातात तें तुवें पळयल्यात मगो? म्हाका पत्र बरोवपाक आनी वाचपाक जाय जाल्यार वाड्यार भोंवचें पडटा. ताका लागून पत्रांत कितें बरयलां तें सगळ्यांक कळटा, जाणा मगो मयुरी?'

'हय... हय हांव जाणा आज्जे. तूं केन्ना केन्ना म्हजे मम्मी कडेन येता न्हय?'

'हय, खबर आसा मगो तुका. तुजी मम्मी बरयता आनी वाचता तें सारकेंच हें म्हाका कशें कळटलें? हांव जर तेन्ना शाळेतं गेल्लें जाल्यार म्हाकाय वाचपाक येतलें आशिल्लें न्हय. हें म्हाका आतां कळटा, म्हणून हांव तुका सांगता, शाळेंत वचपाक जाय. भरपूर शिकपाक जाय.'

'हय आज्जे, तूं सांगता तें पटलें. हांव शाळेंत वतलें. मागीर तुजी सगळीं पत्रां हांव वाचून तुका सांगतलें.'

'तशें जाल्यार हांव म्हजी सगळीं पत्रां तुजेच कडल्यान वाचून घेतलें.' आज्जेन अशें सांगतकच मयुरी खूश जालें. आळस करिनासतना उमेदीन शाळेंत वचपाक लागलें. मन लावन शिकपाक लागलें. मयुरी वाचपाक बरोवपाक लागलें. एक दीस आज्जेन आपणालें पत्र मयुरीच्या हातांत दिलें. 'बाय मयुरी, आतां हें पत्र वाच आनी तातूंत कितें बरयलां तें म्हाका सांग.' आज्जेलें पत्र पळोवन मयुरी सामकें खोशी जालें. वाचपा खातीर पयलेच पत्र ताच्या हातांत आयिल्लें. मयुरीन आज्जेन दिल्ले पत्र उगडलें आनी वाचपाक लागलें.

आज्जे तुका म्हजो साष्टांग नमस्कार.

आज्जे तुजे खातीर हांव शिकपाक पावलों. चार-चौगांत वागपाक शिकलों.

आज्जे, तुवें सांगिल्लीं उतरां पावला पावलाक उपकाराक पडलीं. तुजें गिन्यान कितलें उचांयेचें आसा हें म्हाका आतां कळ्ळें. तुवें म्हाकाच न्हय बिट्टू, प्रतीक, नेहा, पुर्वा, साईश, पप्पू हांकां सगळ्यांक वाचूंक, बरोवंक शिकयलें. शिक्षणाचें म्हत्व पटोवन दिलें आनी आज्जे तुवें आमकां सगळ्यांक उचांयेर पावयलें.

आज्जे आमी थारायल्या प्रमाण दर म्हयन्याक दर एकल्याचीं पत्रां तुका पावताच आसतलीं. आयज पत्र बरोवपाची म्हजी पाळी आशिल्ली.

तुजी सगळी याद काडटात.

तुजोच अपुरबायेचो चिंटू.

‘आज्जे हांकां तूं वळखता गे?’

‘आगो वळखता म्हणटा कितें? तुजे सारकींच तिवूंय म्हजीं नातरां.’

‘आज्जे हींच पत्रां तूं म्हजे मम्मी कडल्यान दर म्हयन्याक वाचून घेताली गे?’

‘हय, हीच पत्रां.’

‘आज्जे हांवूंय खूब शिकतलें आनी दर म्हयन्याक तुका पत्रां बरयतलें.’

आजी हांसली. नकळटाच मयुरीक शिक्षणाचें म्हत्व कळ्ळें. ☺☻

# बाय हुशार जालें

माया अनिल खरंगटे

**एक** आसलें बाय. आई-बाबाचें सामकें अपुरबायेचें. ताचीं सगळीं कामां आई-बाबा करतालीं. ताचें दांत घांसप, ताका जेवण लावप, ताका न्हाणोवप, ताचे केंस वळवप. सगळीं कामां तींच करतालीं. बाय शाळेंतल्यान घरा येतालें आनी आपले कपडे तशेंच शेंवटून मारतालें. मागीर आई ते कपडे काडून घडी करून दवरताली.



ते भायर एक ताई ताका सांबाळूंक दवरिल्लें. बायेक आपलें कितेंच काम करचें पडनासलें. ताई ताचें सगळें काम करतालें. बाय खेळून जातकर खेळणीं तशींच उडयतालें. ताई मागीर तीं खेळणीं पुंजावन आरमारींत दवरतालें. बाय सामकें आळशी जाल्लें.

तांच्या घरांत आसल्यो मुंयो. त्यो सदांच कितें मेळटा तें खावंक तोंडांत धरून यो-वच करताल्यो. केन्नाच एका जाग्यार बसून रावनासल्यो.

जायते वेळा बाय तांकां अजापान पळयत रावतालें. एक दीस ताणें ताईक विचारलें, 'ताई ह्यो मुंयो सदांच भोंवत रावतात. तांकां पुरो जायना?'

ताईन म्हळें, 'बाय, मुंयो तुजे भशेन आळशी न्हय. त्यो हुशार. तांकां सदांच काम करत रावंक आवडटा. म्हणून तीं भलायकेन बरीं आसतात. तांकां कितलेंय काम केलें म्हणून पुरो जायना.'

बायन म्हळें, 'हय? तशें जाल्यार हांवूय मुयां भशेन हुशार जातलें.'

आनी खरेंच, त्या दिसाच्यान बाय आपलीं कामां स्वता करूंक लागलें. बाय हुशार जालें. ☺☻

# कुट्टूर किट्टूर झाड

मिना काकोडकार

**एक** दीस बबलू सोंसो आपल्या बायल भुरग्यां खातीर खाण सोदीत रानांत भोंवतालो. भोंवन भोंवन ताका पुरो जालें म्हणटकर तो एका झाडा पोंदा विसव घेवंक बसलो.

तेवटेनच्यान काटू वांश्वेल वतालें. ताची नदर बबलू सोंशाचेर पडली.

'वा व्वा! बरो मेळ्ळो हो सोंसो तावडेंत' अशें चिंतून काटू वांश्वेलान जिबली चाटली. तें ल्हवू ल्हवू बबलू सोंश्या म्हऱ्यांत गेलें आनी ताचेर घुरी घालतलें इतल्यांत बबलू सोंशाची नदर ताचेर पडली. ताणें कच्च करून आंग काडलें. कशे तरेन ह्या वांश्वेलाचे तावडींतल्यान सुटून वच्चें हाचेर तो चितूंक लागलो.



काटू वांश्वेलान येद्दें व्हडलें तोंड उक्तें केलें तेन्ना बबलू सोंसो पिट्ट करून उडी मारून उबो रावलो आनी काटू वांश्वेलाक पळयत एक दोन तीन अशे आंकडे नेटान मेजूंक लागलो.

काटू वांश्वेल अजापान ताका पळयत रावलें. इकरा म्हणसर आंकडे मेजून जातकीर बबलू सोंशान कपलार हात मारलो आनी म्हळें, 'आरेरे, काकुळट बाबड्या वांश्वेलाची. पोराक कांय खबर ना.' बबलू सोंशान ल्हवूच एक नदर काटू वांश्वेलाचेर मारली. तें ताका पळयत आशिल्लें. मागीर बबलू सोंशान परत आंकडे मेजूंक सुरवात केली. आनी फकत धा म्हणसर आंकडे मेजले आनी म्हळें, 'काकुळट बाबड्या वांश्वेलाची. पोराचे थोडेच दीस उरल्यात ह्या जगांत.'

हें आयकून काटू वांश्वेल भियेलें आनी ताणें बबलू सोंशाक विचारलें, 'सोंशेबाब तूं कितें मेजता रे? म्हजी काकुळट कित्याक दिसता तुका?'

सोंशान फाटीफुडें येत म्हळें, 'वांश्वेलमावशे, म्हाका सांगूक बरें दिसना. पूण तूं चड दिसांची सांगाती ना गे.'

हें आयकून काटू वांश्वेल सामकेंच भियेलें. 'अशें कितें जालां रे म्हाका?' ताणें सोंशाक थरथरत विचारलें. 'तूं येदोळ एक दोन करून कितें मेजतालो रे बाबा? '

'हांव मगे तुज्या दोळ्यांच्या पातकड्यांचे केंस मेजतालो', बबलू सोंशान म्हळें.

'पातकड्यांचे केंस? ते कित्याक?' काटू वांश्वेलान विचारलें. 'कितें सांगू तुका वांश्वेलमावशे. तुजे उजवे पातकडेक इकरा केंस आसात आनी दावे पातकडेक फकत धाच केंस आसात. पुराय एक केंस उणो दावेवटेन.' बबलू

सोंशान गंभीरपणान म्हळें.

'म्हणटकीर आतां?' काटू वांश्वेलान भियेवन विचारलें.

'म्हणटकीर आनीक कितें' बबलू सोंशान गंभीर तोंड करून म्हळें. 'तुजी भलायकी बरी ना. तुजें सगलें आंग भेरेलां ताका लागून तुका कांयच समजना.'

'खऱ्यांनी?'

'हय तर. सगल्या जनावरांच्या दोनय पातकड्यांक सारखे केंस आसतात. पूण तुका पुराय एक केंस उणो ताका लागून मगे तुजो तोल वता आनी तूं मान वांकडी धरता.' बबलू सोंशान सांगलें.

'आरेच्या हांव मान वांकडी धरतां हें म्हाका खबरच नाशिल्लें मरे.' काटू वांश्वेलान म्हळें.

'कितेंय खातना तुजो गळो दुखता.'

आपलो गळो दुखिल्ल्याची वांश्वेलाक याद जायना जाली. पूण सोंसो म्हणटा जाल्यार नक्कीच दुखता आसतलो अशें ताका दिसलें.

'तुका सद्दां रातीचो जोर येता.' बबलू सोंसो एक एक पनवती काटू वांश्वेलाचेर सोडीत आशिल्लो.

'हें म्हाका खबरच नाशिल्लें मरे' , काटू वांश्वेलान म्हळें.

'तुका सामकें अशक्त अशें दिसता.'

हें आयकून काटू वांश्वेलाक खऱ्यांनीच आपूण अशक्त जालां कशें दिसूंक लागलें.

'तुज्या तोंडाक रुचच ना.' बबलू सोंशान म्हळें

हें आयकून आतांच सोंशाक खावपाची आपल्याक रूच आयिल्ली हें लेगीत बाबडें काटू वांश्वेल विसरून गेलें आनी सोंसो म्हणटा तितलेंय

आपल्याक जालां अशें चिंतून पिरगूंक लागलें.

'हें सगळें म्हजे पातकडेक एक केंस उणो आशिल्ल्यान जालां रे सोंशा?' ताणें थरथरत विचारलें.

'हय वांश्वेलमावशे. ताकाच लागून तूं अशक्त जायत रावतली आनी एक दीस मरतली.' सोंशान भविश्यवाणी केली.

ती आयकून वांश्वेलान सोंशामुखार हात जोडले आनी म्हळें,

'पातकडेचो एक केंस वाडोवपाचो उपाय सांग मरे म्हाका.'

बबलू सोंशान म्हळें, 'उपाय आसा. पूण हांव तो तुका कित्याक सांगू? तूं तर सोंशांक खावंक सोदता.'

'ना रे. आयच्यान सोडलें सोंशाक खावपाचें.'

'खऱ्यांनी मगे? '

'हय रे, खऱ्यांनी. काटू वांश्वेल सामकें रडूंक पाविल्लें.'

'आयक तर.' बबलू सोंशान म्हळें. 'हें तें झाड दिसता मगे तुका' ताणें मुखार आशिल्ल्याच झाडाक बोट दाखयलें.

काटू वांश्वेलान दोळे बारीक करून झाडा दिकेन पळयलें.

'त्या झाडाचें नांव कुटूर किटूर' बबलू सोंशान सांगले.

'कुटूर किटूर? केन्ना आयकुना मरे हें नांव? '

'तूं कशी आयकतली? तुजें लक्ष सोंशांचेर. तुका झाडां-पेडां दिसतात? ' सोंसो तापलो.

काटू वांश्वेलान लजेन मान सकयल घाली.

'आयकता काय वचूं हांव?' बबलू सोंशान नेटान विचारलें.

'नाका नाका. आयकतां हांव.'

‘त्या झाडाचीं फुलां मगे सामकी वखदी. कोणाकय फुगांव, कोलेखांक, गालगुटां बी आयलीं जाल्यार वा पोटांत वाय जाली जाल्यार ह्या फुलांचो रोस हीं सगळीं दुयेसां पयस करता.’ सोंसो सामको दोतोर कसो उलयतालो.

‘हांवय बरें जातलें रे काटू?’ वांश्वेलान आशेन विचारलें.

‘हय, पूण तुका मगे ते खातीर इल्ले कश्ट करचे पडटले.’ सोंशान म्हळें.

‘हांव तयार आसा. कितें करूं? ’ वांश्वेलान उमळशिकेन विचारलें.

‘तूं कितें कर. कुटूर किटूर झाडार चड. एक फूल काड आनी दोन वरां तें दाव्या दोळ्यार दामून धरून थंयच बस.’

‘तशें केल्यार म्हजे पातकडेक एक केंस येतलो रे सोंशा? ’

‘दुबावच ना.’

‘मागीर हांव मरचें ना?’

‘शे शे ऽऽऽ कश्शीच ना. पूण तूं चड वेळ वगडावं नाका. बेगीन झाडार चड आनी हांवें सांगला तशें कर.’ सोंशान म्हळें.

काटू वांश्वेल बेगिबेगीन झाडार चडलें. थंयचें एक फूल तोडलें आनी तें दाव्या दोळ्याचेर दामून धरून थंयच बसलें.

‘वांश्वेलमावशे, घट बस आं.’ बबलू सोंशान म्हळें आनी थंयसावन धांव मारली, बद्द आपल्या बिळांत.

आपले बायलेक आनी भुरग्यांक ताणें सांगलें- ‘केदोय व्हडलो शत्रू आसूं- तुमी हुशारी दाखयल्यार आपल्याक वाटावंक शकतात हें मतींत धरात’.



# पिटू बिटू चल्ले शाळेंत

नयना आडारकार

**पिटू** सकाळीं फुडें जागो जालो. कूंय कूंय करून ताणें बिटूक जागें केलें. 'बिटू उठ, काल कितें थारायल्लें तें विसरलो? चल बेगिबेगीन. सोनाली येवपाचें जालें आमचे कडेन'.

पिटूचीं उतरां आयकून बिटू पुट्टूक करून उठून बसलो. ताणें चारूय पांय ताणून आळस दिलो. पिटून पुटुक्क करून बॉक्सांतल्यान सकयल उडी मारली. बिटूनय ताचे फाटोफाट सकयल उडी मारली.



इतल्यान सोनाली आयलें, दोन आयदनांनी दूद घेवन. तशे पिटू-बिटू कूंय कूंय करीत सोनालीक आपलें आंग घश्टूंक लागले. आपल्यो शेंपड्यो हालोवपाक लागले.

'पिटू-बिटू, शानशानुले ते म्हजे' म्हणत सोनालीय तांकां पोशेवपाक लागलें. 'सोना, पुरो, चल यो आतां. शाळेक उशीर जाता.' मम्मान उलो मारलो. तशें सोनाली उठून गेलें. पिटू-बिटूय बेगिबेगीन दूद पियेले आनी हांगा थंय कोणाचें लक्ष ना तें पळोवन ल्हवूच दारांतल्यान भायर आयले. आयज दोगूय सोनालीचे शाळेंत वचपाचे आशिल्ले. सोनाली भशेनच शिकप शिकपाचें आशिल्ले. आख्खो दीस सोनाली शाळेंत शिकतालें आनी घरा दोगांयकय वाज येतालो. म्हणून सोनाली वांगडा शाळेंत वचून, ताचे भशेनच शिकपाचें तांणी थारायल्लें. दुल् दुल् करून दोगूय गेटी भायर येवन थंयच्या झोंपां फाटल्यान लिपून रावले.

सोनाली भायर सरलें तशे दोगूय लिपत दपत ताचे फाटल्यान वचपाक लागले. सोनाली वर्गांत भितर सरलें. तशे कांय वेळान पिटू-बिटूय वर्गांत भितर सरले. तांणी दारांत रावन पळयलें, भितर कितलीशींच भुरगीं आशिल्लीं. सगळ्यांनी एकेच तरेचे कपडे घाल्ले. तांचे मदलें सोनाली खंयचें तें वळखूंक येनाशिल्लें. पिटू बिटू घुस्पले. भियेवन ते कूंय कूंय करीत भायर सरले. तांकां भायर सरतना एका भुरग्यान पळयलें. ताणें बोवाळ केलो, 'काय बरे पेटे पळयात'. भूक भूक असो आवाज करीत तो पिटू-बिटू कुशीक बसलो. फाटोफाट वर्गांतलीं सगळीं भुरगीं थंय जमलीं. तातूंत सोनालीय आशिल्लें. ताणें पळयलें जाल्यार ते पिटू बिटू. 'आरे ते म्हजे पिटू बिटू' म्हणत तें मुखार सरपाक थंय विजूताई आयली. तिका पळोवन भियेवन सोनाली ओगी रावलें.

‘कोणें हाडलां ह्या पेट्यांक?’ विजूताईन विचारलें. भुरगीं हांवें न्ही हांवें न्ही म्हणून बोवाळ घालपाक लागलीं. तांचे मदीं भियेत भियेत सोनाली म्हणटालें, ‘ते म्हजे पिटू बिटू’. पूण तें कोणाकच आयकूंक येनासलें.

विजूताईन म्हणलें, ‘कोणाचेच न्हय मरे ते, जाल्यार तांकां थंय पयस सोडून येयात कोणूय.’ भुरग्यांनी पेट्यांक हात घालो तशे दोगूय कूंय कूंय करून रडपाक लागले. तांकां रडटना पळोवन सोनालीय हिमट्या हिमट्यांनी रडपाक लागलें. ‘सोनाली कितें जालें? कित्याक रडटा?’ विजूताईन विचारलें.

‘ते म्हजे पिटू-बिटू’, हुडकेत सोनालीन म्हणलें. ‘मागीर तांकां शाळेंत कित्याक हाडलें?’, विजूताईन विचारलें. ‘हांवें हाडूंक ना ताई’, सोनालीन हिमटी काडली.

सोनालीक रडटना पिटू-बिटून पळयले तशे तेवूय व्हडल्यान कूंय कूंय करपाक लागले. ते विजूताईक सांगताले, ‘सोनालीन हाडूंक ना आमकां. आमीच आयल्यात. आपूण जावन. आमकां सोनाली भशेन शिकूंक जाय.’ पूण ते कितें सांगतात तें कोणाकच कळ्ळेना.

पूण सोनालीक मात ज्यस्तूच कळ्ळें. आपले वेंगेत घेवन घरा वतना तांकां पोशेत तें म्हणपाक लागलें, ‘शिकूंक जाय मरे तुमकां म्हजे भशेन? राव तुमकांय शाळेंत घालता.’

सोनाली घरां आयलें. ताणें आपलो ड्रोवर उगडलो. तातूंतलीं चित्रांचीं दोन पोरणीं पुस्तकां काडून पिटू बिटू मुखार दवरलीं. ‘आयच्यान घरांतच तुमची शाळा सुरू’, ताणें म्हळें. पिटू बिटूय कूंय कूंय करून चित्रां आरतून परतून शिकपाक लागले. ☺☻

# स्वराची घसरगुंडी

**प्रशांती तळपणकार**



**मळब** म्हूण सामकेंच मस्तें. आतां रडटा, आतां हांसता. कितें बाये सवंय ही? सगळ्या भुरग्यांक मळबाचो राग राग आयलो. काय बरीं धरचेल्यांनी खेळटालीं तीं. इतल्यान हो पावस आयलो. घे, मागीर घरांतल्यान आईन उलो केलो. 'स्वरा, पावस शिडशिडटा पळय. सगळीं बेगिबेगीन घरांत येयात. हो श्रावणांतलो पावस आसलो तरी लेगीत थंडी जावंक शकता'.

'जावं दी गे थंडी. बाबा मागीर शारोप दितलो आनी हांव मागीर बरें जातलें.' ताळयो मारीत हांसत हांसत स्वरान म्हणलें. पूण बाकीचीं भुरगीं म्हणपाक लागलीं, 'स्वरा चल आमी घरांत या'. कित्याक जाणा? तुमकां दिसत स्वराचो बाबा भुरग्यांचो दोतोर आनी आई दांतांची दोतोर म्हूण बी भियेता आसतलीं. च्छे! ही दोतोर काकी आनी काका इतलीं बरीं, सदांच हांसरी. तांकां केन्नाच राग येनासलो. स्वराय बी तशेंच. ताका केन्नाच राग येनासलो. पूण आयज ताका सगळ्यांचो मात्सो राग आयलो.

सगळीं म्हणटालीं, 'स्वरा आमी भितर या'. स्वरा म्हणपाक लागलें. 'ना'. भुरग्यांक भितर कित्याक वचपाक जाय आसलें जाणा? स्मीताकाकीन - स्वराचे आईन - नुडल्स केल्ले आनी ताचो वास तांच्या नाकांत भरिल्लो. जीब सामकी 'खावया, चल चल खावया, नुडल्स खावया' म्हणटाली. म्हणटकच स्वराक 'यो गो, यो गो' म्हणत सगळीं घरांत धांवलीं.

फकत बरखा दिदी स्वरा म्हऱ्यांत रावलें. 'कितें गो स्वरा, कित्याक येना भितर? आनी आयज रागसो आयला मगो तुका. कितें जालें गो?' बरखान ताका विचारलें.

'म्हाका ते घसरगुंडीचेर वचपाक जाय' अशें म्हणत स्वरान मळबा कडेन बोट दाखयलें. मळबांत कसली घसरगुंडी? आरे बाबांनो, इंद्रधोणूची! कितें म्हूण तुमी? तुमकां बाये सगळेंच सांगूंक जाय.

बरखाक कितें करचें कळ्ळें ना. ती घसरगुंडी न्हय. सुर्यप्रकाशांत ते तशे सात रंग दिसतात-बिसतात अशी सगळी विज्ञानीक म्हायती दिवन ताका स्वराचो मूड पिड्ड्यार करपाचो नासलो. मातशें व्हड जातकच, वाचपाक लागतकच ताचें ताका कळटलें. बरखान चिंतलें, हाची कल्पनाशक्त तरी पळोवया.

'बाय, ती घसरगुंडी खूब पयस. आमी वयर कशीं वतलीं?' बरखान ताका विचारलें. स्वरा ओगी जालें. तें खरें म्हणल्यार चिंत्तालें. मागीर ताका एक कल्पना येवजली. ताणें ताळयो पेटीत म्हणलें, 'आयडिया, आमी सुर्याच्या किरणांक धरून वयर या'. हालींच तांणी लोक दोरयेन दोंगरार कशे चडटात तें टीव्हीर पळयिल्लें.

'आरे व्वा, बरी मगो आयडिया! आमी अशें करुंया, आमी डम शॅराड खेळटना कशीं ॲक्टिंग करतात तशें करुंया. चल तूं धर एक सूर्य किरण आनी हांव एक धरतां. चल, चल, चडुया वयर'. बरखान स्वराक म्हणलें. ताकाय आतां मजा येवंक लागिल्ली.

गाल फुलयत स्वरान म्हणलें, 'ना, ना, हांव तुजे फाटीर बसतां. तूं म्हाका घेवन वयर चड'.

'आरे बाबा, तूं इतलें जड, हांव तुका फाटीर कशें घेवं?' बरखान ताका विचारलें.

'ना, ना, तूं म्हाका पयर सांगतालें पळय, तूं खूब खूब जेवता, भाजी खाता, उदक पियेता म्हूण तूं स्ट्राँग म्हणून. मागीर म्हाका व्हरपाक कित्याक जावचें ना?' स्वरान बरखाक परतो प्रस्न केलो. सांपडलें काय ना बरखा? 'चल चल बस फाटीर' अशें म्हणून बरखान ताका फाटीर बसयलें आनी वयर चडपाची नक्कल करूंक लागलें. मदींच स्वरान अस्सो हात भोंवडायलो आनी कितें तरी धरिल्ले भाशेन केलें. 'स्वरा कितें धरलें?'- बरखा.

'ढगांचो बुढ्ढी का बाल. खातलें?' अशें म्हणत स्वरा आपलें तोंड हालोवंक लागलें. बरखाक हांसूंक आयलें. इतल्यान स्वरान मातसो वयर हात केलो आनी कितें तरी तोडिल्ले भाशेन केलें आनी बरखाच्या माथ्यार माळपाक

लागलें. 'कितें करता गो शाण्या?' बरखान विचारलें 'नखेत्रां काडून तुज्या माथ्यांत माळ्ळ्यांत. कितलीं सुंदर दिसतात जाणा!'

'बरें बरें हात सोडूं नाका. घट्ट धर म्हाका. नाजाल्यार सकयल पडत'. बरखान खरशेत खरशेत सांगलें. 'चल देंव सकयल. हीं पळय पावलीं आमी तुजे घसरगुंडयेर'.

'थँक्यू बरखा दिदी, थँक्यू' म्हणत स्वरान थंयच तणाचेर फतकल मारली आनी घसरपाची नक्कल करूंक लागलें. जालें, जमीन ओली, तातूंत हें स्वताक घशटयत चलता. धवी पॅण्ट खंयच्या रंगाची जातली कोण जाणा. वेल्यान स्मिताकाकी तांकां उल्यार उलो करताली. कितें करपाचें? बरखा चिंतूंक लागलें. चल ही ट्रिक चलता जाल्यार पळोवया.

'स्वरा, थंय सावन वेल्यान उडी मार, तुका हांव जिखून घेतां. मागीर आमी सवणीं कशीं उडत सकयल या', अशें बरखान फाटोफाट म्हणलें. ताका उखल्लें आनी तोंडान 'झूंयऽऽ' आवाज काडीत ताका भितर घेवन गेलें. स्वराक बाबड्याक चिंतूंक एक खीण लेगीत मेळूंक ना. नाजाल्यार ताची कल्पनाशक्त खंय धांवपाची कोण जाणा. ☺☻

# सायमनान चोयलें भूत

**रत्नमाला दिवकार**

**एकदां** सायमन, ताची मामी-डॅडी बाराबर काजराक गेल्लो. काजराचो तो नाच, तें म्युजीक, तें जेवण-खाण जाता म्हणसर तांकां बरीच रात जाली. तीं घरा वचपाक भायर सरलीं.

सायमन कांतारां आयकत गाडयेंतल्यान भायर पळयतालो. इतल्यान सायमनान रस्त्या कुशीक लायटी खांब्या सकयल एक भूत पळयलें. केंस पिसुडिल्लें, धवें धवें तोंड, एक मोट्टो वांकडो दांत.

ताका पळयला मात, सायमन कडकडूंक लागलो. त त त प प प करून उलोवंक लागलो. 'ड ड ड ड डॅडी तें चोय भ भ भूत.'



मामीन म्हणलें, 'पुरो आं तुजी मोस्ती सायमन.'

'ना ना ना खोरेंच गे मामी. तें चोय थिंगा आहा.'

डॅडीन गाडी कुशीक घेतली आनी हारशांतल्यान फाटल्यान पळयलें. ताकाय तें भूत दिसलें. 'ज्युली, सायमन सांगोता तें खोरें, भ भ भूत', डॅडीन म्हणलें.

मामी जाली बेजार. तिणें म्हणलें, 'सिरील तूं आनी भुरग्या भाशेन कीत कोत्ता रे? चोल गाडी पोत्ती घुंवडाय.'

'आगो पूण...' डॅडीय बरोच भियेल्लो. 'जेजू तूं पाव, सायबीण मांय तूं पाव गे' म्हणीत डॅडीन गाडी घुंवडायली.

पयस सावन तांका आजुनूय भूत दिसतालें. 'आरे सिरील, भियेता कित्या? आमी रोस्त्यार आहा मुरे. कितल्यो गाडयो येताय चोय.' मामीन डॅडीक धीर दीत म्हणलें.

रोखडींच तीं त्या भूत आशिल्ल्या लायटी खांब्या कडेन पावलीं. पळयल्यार कितें? खांब्या लागींच एका फोंडकुलांत एक मोटारसायकल पडल्या, ताचे कुशीक एक दादलो आनी एक बायल पडल्या. तांकां बरोच मार लागिल्लो. तांची धूव थंय शाबुद्दीर आशिल्लें आनी तें खांब्या पोंदा रावन आपल्याक आदार दियात म्हूण लोकांक हात दाखयतालें. ताचें तोंड मातयेन भरिल्लें म्हूण लोक ताका भूत म्हूण समजताले. डॅडीन बेगिबेगीन 108क फोन केलो. तांकां आदार दिवन बसयलें. गाडयेतलें उदक काडून पिवपाक दिलें. आनी अँब्युलेन्सींत घालून तीं घरा आयलीं.

बरें जालें ते राती डॅडीन मामीचें सांगणें आयकून गाडी घुंवडायली. नाजाल्यार सायमन सगळ्यांक सांगीत भोंवपाचो, 'हांये लायटी खांब्या कोडें खोरेलें भूत चोंयलां.' ☺☻



# गोमू आनी चिमू

सुधा खरंगटे

**नंदूच्या** घरांत एक माजर आसलें. ताचें नांव आसलें गोमू. आनी दारांत आसलें एक कोलूग. ताचें नांव आसलें चिमू. चिमूक आनी गोमूक मात्तूय पटनासलें.

गोमू घरभर भोंवतालें. केन्नाय सोफार, कदेलार बी चडून बसतालें. नंदूचे मांडयेर बसतालें. चिमू दिसल्यार ताचेर जुडून वतालें. दावखूल उबारतालें. चिमूय मागीर गोमूचेर गुरकेतालें, ताचेर धांवन वतालें. गोमू मागीर झाडार चडटालें. नंदू मात चिमूकच धपकायतालें, 'ओग्गी बस तुज्या जाग्यार' तें म्हणटालें. चिमू मागीर वासरेर एका कोनशाक आपल्या साकार वचून ओग्गी पडून रावतालें. मनांतल्यान ताका गोमूची खुब्ब नसाय जाताली.

नंदूची आईय बी तशीच. गोमूची अपुरबाय करताली. तांकां बशयेंत दूद घालताली. ताका नुस्तें खावयताली. चिमूक मात सगळ्यांनी सांडिल्ले नुस्तें, नुस्त्याचे कांटे बी घालून शीत घालताली.

एक दीस, खेळटां खेळटां नंदू गोमूक मुड्डितना, ताचे कान ओडटना आईन पळयलें. गोमू बाबडें व्हडा व्हडा आड्डतालें. आईन मागीर नंदूचेर धेंगसो घालो. 'आगो नंदू, ताका त्रास दिवंनाका. तें गाभणें आसा. आतां पिलां काडटलें तें.'

नंदूक अजाप जालें. हे इल्लेशें गोमू पिलां काडटलें?

ताणें धांवतच वचून आपले इश्टिणीक, रितूक ही नविदाद सांगली.

'नंदू, एक पील आमकां दितलें मगो?'

'हय गो. आई, गोमू कितलीं पिलां काडटलें गे?'

'पळोवया.. तें व्हियेतकच कळटलें. दोन कांय चार तीं', आईन म्हळें.

'आई, ती गोमू भशेन धव्याफुल्ल आंगाचीं आनी काळ्या कानांचीं आसतलीं मगे? रितूक गोमू भशेनच पील जाय खंय.' आई हांसली.

आपले मोठेशें पोट घेवन गोमू रांदनी पोल्लांत पडिल्लें आसतालें. आईन ताका एका बॉक्सांत पोरणी साडी घडी करून घाली आनी म्हळें, 'गोमू, हातूंत काड तूं तुजीं पिलां.'

पूण अजाप म्हणजे, गोमून पिलां काडचे पयलींच चिमून आपल्या कोनशाक पांच पोरां काडलीं. दोन चिमू भशेन पिंगशा रंगाचीं, दोन धवींफुल्ल आनी एक काळेंकिट्ट.

मागीर नंदू आनी रितू गोमूक सोडून चिमूच्या पिलांक पळोवंक दंग जालीं. 'आई, चिमूक पाव दी गे खावपाक. आई चिमूक दूद दी गे. चिमूक नुस्तें दी

मगे. ताच्या पिलांक जेवण दी मगे.' अशें करून नंदून आईक नाकापुरो केलें.

'नंदू, अजून पिलां ल्हान आसात. ती फकत चिमूचें दूद पितलीं.'

'आई चिमूच्या पिलांक न्हिदपाक गोजडी बी दी मगे.'

आईन मागीर एक पोरणी गोजडी काडून घडी केली आनी चिमूक न्हिदपाक दिली. चिमू गोजडेर आवांताद पातळ्ळें आनी चिमूलीं पोरां ताका लुचून दूद पिवंक लागलीं.

नंदू आनी रितू दोळे भरून तांचे दूद पिवप पळयतालीं. पोट भरतकच तीं पोरां एकामेकांच्या आंगार पडून गुटली करून न्हिदलीं आनी चिमू भायर भोंवंक गेलें.

'आई, गोमू पिलां काडचना मगे. चिमून पळय कशीं पटकन काडलीं.' नंदू सदांच विचारून विचारून आवयक वाज हाडटालें.

एक दीस गोमून पिलां काडलीं. थोडीं न्हय.. स पिलां- दोन चानये भशेन, तीन गोमू भशेन गोरीं पिट्ट आनी एक काळें खांपुल्लें.

गोमूलीं पिलां पळोवन नंदू पिसावलेंच! धांवत रितूगेर गेलें. रितूय खबर आयकून धांवत आयलें.

'रितू, तुका खंयचें जाय तें पळोवन दवर आं.' नंदून म्हळें. दोगांय पिलांक हात लावंक गेलीं. आईन दटायलें. 'आगो, त्या पिलांक हात लावंनाकात आं. अजून तांकां दोळे लेगीत फुटूंक नात.'

नंदू आनी रितून पयसुल्ल्यानच पिलां दूद पितात तें पळयलें. गोमू तांकां चाटून चाटून निवळ करतालें.

'आई, गोमूक पळय गे, पिलांक ल्हेंवता.'

'आगो माजरांक न्हाणोवप नासता. आवय चाटून चाटून तांकां निवळ करता.'

आतां चिमू कडेन कोण लक्ष दिता? भुरगीं गोमूलीं पिलां पळोवंक दंग जाल्लीं.

गोमूलीं पिलां दूद पिवन पोट भरतकच तशींच एकामेकांचेर लोडेवन न्हिदतालीं. गोमू मागीर भायर भोंवंक वतालें.

'आई, चिमू-गोमू झगडटात तशींच तांचीं पिलांय झगडटलीं गे?' नंदून दुबाव उक्तायलो.

'आगो, पळोवया. तांकां व्हड जावंदी पयलीं.' आईन सांगले.

आनी अकस्मात एक दीस रस्तो हुपून वतालें तें गोमू फास्ट आयिल्ले गाडये पोंदा पडलें.

नंदूलो बाबा भायरच उबो आसलो. 'आरेरे कितें फास्ट गाडी चलयतात रे? मारलें पळय माजराक.'

आई, नंदू धांवतच भायर आयलीं. 'बाबा आमचें गोमू तें.' नंदून आकांतून म्हळें आनी ते रडूंक लागलें. आईच्याय दोळ्यांत दुकां आयलीं. बाबान मागीर गोमूक माडा मुळांत पुरलें.

बोवाळ आयकून रितूय धांवत आयलें.

गोमूलीं पिलां दुदाक रडटालीं. मींव मींव करतालीं.

आईन एके बशयेंत दूद घालून हाडलें आनी तांकां पिवोवपाचो यत्न करूंक लागली. एकट्याकय दूद पिवंक येना. मागीर कापसाची बोत करून ती दुदांत बुडोवन तांच्या तोंडांत घालपाचो यत्न केलो. एक एक थेंबो पोटांत वता, एक-एक थेंबो भायर पडटा.

काळू एकलोच हुशार आशिल्लो. तो ती बोत तोंडात धरून चोखूंक लागलो. गोमूलें एक-एक पील मरूंक लागलें. चार दिसां भितर सगळीं पिलां मेलीं.

सोडून एकलो काळू. तो कापसाच्या बोतीन दूद चोखतालो आनी लकत लकत सगळ्याक भोंवतालो. मींव मींव करून रडटालो.

'सांबाळात गो. इल्लेशें हाडबडकशे तें पील. पांयां पोंदा पडत.' आईन म्हणप.

मींव-मींव करीत काळू आतां वासरेर बी भोंवतालो. एक दीस काळू भोंवता भोंवता चिमू म्हऱ्यांत पावलो.

चिमू बरें आवांताद पातळिल्लें आनी पोरांक दूद दितालें. काळू म्हऱ्यांत येताशें पळोवन चिमून गुर्र करून ताका शिटकायलें.

पूण काळू कांयच आयकनाशिल्ले भशेन मुखार वचत रावलो. ताच्या दोळ्यांक दिसतालें ते चिमूचे पाने आनी दूद पितात तीं पोरां.

चिमून दांत विचकायले- भोंक भोंक करून ताका भेशटायले, तरी लेगीत काळू मींव मींव करीत ताचे म्हऱ्यांत वचत रावलो. चिमू भितल्ले भितर गुरगुरत रावलें.

'नंदू, काळू खंय गेलें पळय. शी बाये! कोणाच्याय पांयां पोंदा पडून मरतलोच तो एक दीस.' आईन वाजेवन म्हळें. सगळ्याक सोदून जातकच आई आनी नंदू वासरेर पावलीं. पळयत जाल्यार कितें, चिमू बरें पातलावन न्हिदिल्लें. तागेल्या पांच पोरां बरोबर हाडकुटें काळू ताका लुचतालें आनी चिमू ताका ल्हेंवतालें. ☺☻



# भांगरा जोतें

उषा कामत

**एकदां** एका सावकाराक देव प्रसन्न जालो. 'जाय तें माग तुका. हांव प्रसन्न जालां तुजेर' देवान सांगलें.

सावकाराक सामकी खोशी जाली. ताका कितें मागूं म्हूण कळना जालें. 'देवा मात्सो राव. विचार करून मागतां हांव.' सावकार सामको गडबडलो.

'माग माग, सवकासायेन कर विचार, हांव धा मिनटां रावता तुजे खातीर.' देवान सांगलें.

‘देवा कितल्यो वस्तू दितले तुमी म्हाका? कितले फावट मागपाचें हांवें?’

‘सारको विचार कर आनी माग. फकत एकच वस्त मेळटली.’ देवान सांगलें.

‘पयशे मागूं? पूण कितले? हें... नाका. भांगर मागूं? पूण कितलें? हें... नाका. कपडे, जेवण-खाण?... पूण नाकाच तें. अशी वस्त मागपाक जाय जी सदांच सगळ्या लोकांक दिसपाक जाय.’ सावकार एकसारको विचार करपाक लागलो.

सावकाराक जोत्यांचें सामकें पिशें आसलें. तरातरांचीं जोतीं, बूट ताका आवडटाले. ताणें थारायलें, देवा कडेन एक बरेशें भांगराचें जोतें मागून घेवया. ‘देवा, म्हज्या पांयांक सारकें जातलेंशें एक जोतें दियात. भांगराचें आं. सगळे कडेन भोंवतना म्हाका तें घालपाक मेळटलें. शिवाय दुसऱ्या कोणाच कडेन भांगरा जोतें आसचें ना. पुराय संवसारांत म्हज्याच पांयांक भांगरा जोतें.’

‘पळय, सारको विचार केला मरे? ’

‘हय, म्हाका जोतेंच दियात, भांगराचें.’

‘बरें आसा. पूण हें जोतें सोडून तुवें दुसरें कसलेंच जोतें वा बूट वापरूंक जायना. खंयूय वचूं, हेंच जोतें घालपाक जाय.’

‘बरें आसा. हांव सगळ्याक हेंच जोतें घालून भोंवतलों.’ देवान तथास्तू म्हणलें आनी बरें सुंदर एक भांगरा जोतें ताका दिलें. सावकार सामको खूश जालो.

सावकार तें जोतें घालून भोंव भोंव भोंवलो. बाजारांत, दर्या वेळेर, सिनेमाक वतना, भोंवपाक वतना तेंच जोतें.

सगळ्यांक त्या जोत्याचेंच अप्रूप. सगळे लोक तोखेताले. लोक जोत्याक पळयत रावताले. सावकार खूश जातालो. पूण ल्हवू ल्हवू सावकाराची खोस आटपाक लागली. कोणागेरच वचपाक मेळना. भायर जोतें काडून दवरल्यार कोणूय व्हरत म्हूण भंय.

खंयच्याच देवळांत वचपाक मेळना. भायर जोतें दवरलें आनी कोणेंय व्हेलें जाल्यार?

शिवाय सद्दां राती न्हिदतासतना विचार येतालोच मनांत. जोतें व्हरूंक चोर बी येना मूं आनी ह्या विचारान न्हिदोय खळपाक लागल्यो. शेवटाक आपल्या पिशेपणाचोच ताका राग येवंक लागलो. तातूंतय भर पडली, गांवची जात्रा तेंकली.

जात्रे दिसा देवळा भायरच रावपाची सावकाराचेर पाळी आयली. बायलेन सांगलें, 'तुमी वचात भितर. हांव राखता जोतें.' पूण सावकार कसोच तयार ना. भायरच रावलो.

इतल्यान एक गांवचो जाण्टो मनीस थंय आयलो. ताणें सावकारा कडेन सगळें जाणून घेतलें आनी म्हणलें, 'आरे पापया, बरी भलायकी, बरी बुद्दी मागपाचें सोडून हें कितें मागलें तुवें?' सावकाराक सामको पश्चाताप जालो. ताणें जोतें पांयांक घालें आनी घरा गेलो. जोतें व्हरून घरा दवरलें आनी निखट्या पांयांनी देवळा कडेन आयलो. पांयांक तोंपतले रस्त्या वयले फातर-कांटेकुटे तर मनाक तोंपूंक लागले पश्चातापाचे कांटेकुटे. ☺☻

# पिकनीक

विन्सी क्वाद्रुस



**शाळेच्या** भुरग्यांची पिकनीक आसली. शिकोवपी धरून सुमार तीस विद्यार्थी आनी विद्यार्थिनी बसीन बोंडला अभयारण्य पळेवंक वचूंक भायर सरलीं. तांणी सांगाताक जेवण बी घेतिल्लें.

सकाळचीं साडेणव वरां जातलीं. अकस्मात काळोख जावपाक लागलो. 'म्हाका दुबाव आसलो पावसाचो. राती बातमी पळयतना बंगाल खाडींत उण्या दबावाचो पट्टो तयार जाला अशें वेदशाळेन कळयल्लें. देखून गोंयांत पावस पडपाची शक्यताय तांणी उक्तायल्ली, हें खरें जालें अशें दिसता.' ड्रायव्हरा म्हऱ्यांत बसून आशिल्ल्या शिकोवप्यान आपली जाणवाय सांगली.

'पावस पडल्यान बरी मजा येतली.' ताचे फाटल्यान बसून आशिल्ल्या एका विद्यार्थ्यान म्हणलें. सगळीं भुरगीं जनेलांतल्यान भायर पळोवंक लागलीं.

उसगांव वडा कडल्यान बस वाळपय रस्त्यान बोंडलाचे वाटेक लागली. सवका सवका पावस पडपाक लागलो आनी तो सैमीक वाठार फुलून आयलो. भुरग्यांचो उत्साह सुरू जालो. मदीं बसून आशिल्ल्या एका शिकोवप्यान तांका ओगी करतना सगळे हारशे बंद करूंक सांगले. जोगलां आनी गडगड मारूंक लागलो. बस बोंडलाची चडटी चडूंक लागली.

बऱ्याच मुखार एक व्हडलें 'यू टर्न' जाले उपरांत रस्त्या कुशीक रावून 8-10 वर्सांचो एक भुरगो पावसांत भिजत बसीक थांबोवपाचो यत्न करतालो. ड्रायव्हराक दिसलें त्या भुरग्याक बसींत घेवचो, म्हूण ताणें आपल्या म्हऱ्यात बसून आशिल्ल्या शिकोवप्याक तशें विचारलें. ताणें ताका सरळ वचूंक सांगलें. तो भुरगो एक वटेन आंग कवळून पावसाक निवारपाचो यत्न करतालो जाल्यार दुसरे वटेन बसीक थांबोवपाक खुणा करतालो.

'सर, त्या भुरग्याक आमी आलाशिरो कित्याक दिनात?' सुमार धा वर्सांच्या पुर्णीमान मुखार आशिल्ल्या शिकोवप्याक विचारलें.

'पळय, ह्या पावसांत बस थांबोवप सारकें न्हय. हो रस्तो पयलींच बरो ना. तो हांगाचोच आसतलो, वतलो आपल्या घरा.' शिकोवप्यान आपल्या कानार केंस काडले.

'हॅलो, ड्रायव्हर अंकल, त्या भुरग्याक घे मरे बसींत.' पुर्णीमान मुखार वचून ड्रायव्हराक सांगलें. ताणें शिकोवप्याक बोट दाखयलें. तो शिकोवपी ओगी रावलो. तरी ड्रायव्हरान बस थांबयली.

'शी. त्या चिकलाच्या भुरग्याक घेवंक तुवें बस थांबयल्या. कपडे पासून

धड आसात जाल्यार पळेयात ताचे. खंयचो भाणशिरो म्हण खबर ना.' मदीं बशिल्ल्या एका भुरग्यान त्या भुरग्याक पळेवन नाक तोंड वांकडें करीत म्हणलें.

'आरे ड्रायव्हर सायब, तो बसींत आयलो जाल्यार सगळी बसूच ओली करतलो मरे.' आनीक एका भुरग्यान म्हणलें.

'नाका, नाका. ताका आनीक बसींत घेनाका. ओगीच आमकां त्रास करतलो.' ताका तेंकून आशिल्ल्या भुरग्यान आरड मारली. तशीं जायतीं जाणां गुणगुणूंक लागलीं.

पुर्णीमा फाटीं सरलें आनी कोणाचीच पर्वा करिनासतना सिटा कुशीक वचून जनेलाचो हारसो उगतो केलो. थंय रावन श्यूत, श्यूत करून त्या भुरग्याक खुणेन बसींत आपोवंक लागलें. तो भुरगो हांसलो आ़नी आपल्या हातान कसली तरी खुणा केली, पूण लागीं आयलो ना.

'पळयलें, ताकाच येवंक नाका आनी आमकां बेश्टोच ताचो हुस्को.' पयलो उलयल्ल्या भुरग्यान पुर्णीमाचीं फकाणां केलीं.

पूण पुर्णीमान तांची पर्वा केली ना आनी आपल्या बॅगा कडेन गेलें. ताचे कडेन सत्री आसली. ताणें बसीचें दार उगडलें. आपली सत्री फुलोवन बसींतल्यान भायर सरलें. एका शिकोवप्यान ताका आडावपाचो यत्न केलो पूण ताणें फाटल्यान वळून पळयलें ना. तें त्या भुरग्याक बसींत घेवन आयलें. ताका आपलो तुवालो दिलो आनी तकली पुसूंक सांगलें.

'मुखार धोको आसा. हांव ह्याच वाठारांतलो, राती हांगा खूब पावस पडलो. वयल्यान उदक व्हांवून येवन रस्तो सारको इबाडला. मोटरसायकली अश्यो तश्यो पासार जातात. ल्हान गाडयांक त्रास जातात आनी बसींक तर

वचुंकूच मेळना. मुखार तुमकां अपघात जावचो न्हय म्हूण धोक्याची खुणा दिवंक हांव हांगा राविल्लों.' त्या भुरग्यान तकली पुसतना सांगलें. ताचें म्हणणें आयकून सगळ्यांकूच धक्को बसलो.

'रातीं एक बस पडपाचीच उरली. ती बस पडिल्ली जाल्यार उणेच 30 जाणांचें कितें जातलें आसलें तें खबर ना. तुमी हांगाच्यानूच परतल्यार बरें.' त्या भुरग्यान सल्लो दिलो आनी सटासट बसींतल्यान देंवून परत रस्त्यार रावलो. घडये दुसऱ्या वाहनांक मुखार धोको आसा ताची म्हायती दिवंक. तेन्ना ड्रायव्हराच्या लक्षांत आयलें इतले पयस पावपासून एकूय गाडी रस्त्यार कित्याक दिसली ना ती. ड्रायव्हरान बस तशीच फाटीं घेतली आनी वॉल्त मारलें.

वतना 'थँक यू डियर फ्रँड' म्हूण कितल्याच जाणांनी हात हालोवन त्या भुरग्याचे उपकार मानले. तांच्या जिवितांतलो एक व्हडलो धोको टळिल्लो. तो भुरगो मात दुसऱ्या वाहनांक धोक्याची सुलूस दिवपाक मग्न आसलो.



